# म्हज्यांतलें हांव

*(कविता झेलो)*

रुपाली किर्तनी

संजना पब्लिकेशन्स

Mhajyantlem Hanv
(collection of Poems)
by
Rupali Kirtani

म्हज्यांतलें हांव 2012



**प्रकाशक:**
संजना पब्लिकेशन्स
39, दत्तवाडी, सांगें-गोंय 403 704
sanjanapublications@yahoo.in

**प्रकाशन क्रमांक:** 17

**पयली उजवाडावणी:** ऑगस्ट, 2012

**टायप सेटींग:** अर्चना-अशोक

**छापणावळ:**
बांदेकार ऑफसेट
कुडचडें- गोंय

**मुखचित्र:** रुपाली किर्तनी

**मोल:** Rs. 140

म्हज्या व्यक्तित्वाचेर कुरू करपी दर एकल्याक

आनी

मम्मी-पप्पाक जांणी पावला-पावलार म्हजी उमेद वाडयली.

-रुपाली किर्तनी

म्हाका प्रस्नचिन्न नांव दवरलें



ताका लागून येवजली ही मुखचित्राची संकल्पना

# मांडावळ

## मनांतलें ...

मनांत जें चलता तें गुणगुणत गुणगुणत कागदार उक्तावपाची सुरवात हांव कॉलेजींत आसतनाच जाल्ली. डायरी सांबाळटालें आनी येवजता तशें डायरेंत बरयतालें. पूण ताका कविता म्हणूं येत हाची खातरी नासली. देखून कोणाकूय दाखोवपाचें धाडस केन्नाच केलें ना. घडये, काळजांतलो मोग उकतायता, तो दुसऱ्याक कसो दाखवचो म्हूण जावंये.

लग्न जालें आनी हांव सावदी अरेबियाक पावलें. कुळारचे यादीन कळवळिल्ल्या मनांतल्यान आयिल्लीं उतरां जीं हांवें तेन्ना कागदार उक्तायलीं तीं मात म्हाका घरच्यांक दाखोवचें अशें दिसलें. ती कविता म्हणल्यार 'पुला पोंदचें उदक'. 'जाग'म्हयनाळ्याचेर जेन्ना ही कविता छापून आयली तेन्ना माधवबाब बोरकारांची तिचेर उत्स्फूर्त प्रतिक्रिया आयली आनी हांवूय बरोवंक शकतां हाची म्हाका जाणीव जाली.

कांय भावना उलोवन दाखोवपाच्यो नासतात. कांय विचार जिबेर हाडप जड वतात. अशा वेळार तांकां कागदार उतरावपाचें मेकळेपण घेवप म्हाका सोपें वता. काळजाचो गूट कागदांत बांदप आनी विसरून वचप ही संवयूच जाली. संवसाराच्या ल्हारां वांगडा हांव व्हांवत रावलें, म्हज्या म्हाकाच विसरून गेलें. मदीं केन्नाय मनाचे आंवडे अनावर जाताले तेन्ना कविता जल्म घेताली. पप्पान सदांच

म्हणचें "रुपालीची कविता केन्ना तरी पांच-धा वर्सांनी दिश्टी पडटा."

भुरगीं व्हड जालीं. संवसाराची गाडी रुळार आयली तेन्ना म्हाका दिसून आयलें, म्हज्यांतलें हांव खंय तरी शेणलां. ताका परत सोदून काडूंक जाय. संवसाराच्या ह्या पेण्यार थोडी शी उसरपत मेळिल्ले कडेन म्हजे अभिव्यक्तीक घाल्लो बांद मोडून उडोवपाचें थारायलें. तेन्नाच्यान म्हजे कवितेंतल्यान हांव म्हजोच सोद घेत आसां. हो सोद घेतना ज्यो कविता रचून जाल्यो त्यो आतां ह्या झेल्यारुपान तुमच्या मुखार दवरतना काळीज खोशेन भरून आयलां.

सगळ्योच  कला म्हजे आवडीच्यो. तांतलीच एक चित्रकला. केन्ना केन्नाय कविता आयल्या तिचे बरोबर एखादरें चित्रय आयलां. तांतलींच कांय वेंचीक चित्रां ह्या पुस्तकांत आसपावल्यांत.

वेळा वेळार मोलादीक सुचोवण्यो करपी ज्येश्ठ कवी माधवबाब बोरकार हांणी आमच्या उतराक मान दिवन प्रस्तावना बरयली-हो तर तांचो आशिर्वाद- तांचे उपकार कशे मानूं? संजना पब्लिकेशन्सचे भौ. दिनेश मणेरकार, भौ. अशोक कामत आनी भौ. अर्चनाबाय कामत हांणी प्रकाशनाची पुराय जापसालदारकी घेवन म्हजी उमेद वाडयली हे खातीर तांचे उपकार मानतां तितले थोडे.

ह्या म्हज्या पयल्या पुस्तकाक तुमचो येवकार कसो मेळटा ताची वाट पळयतां.

**-रुपाली किर्तनी**

# नव्या हावेसाची कविता

फाटल्या पन्नास वर्सांत गोंयच्या सांस्कृतीक मळार व्हड क्रांती जाल्या हें सत आमी मानून घेवपाकूच जाय. गोंयचे मुक्ती पयलीं जीं मानशेचीं दारां बंद आशिल्लीं तीं आतां उक्तीं जालीं आनी ताका लागून गोंयांत एका नव्या पर्वाचो उदेव जाल्लो आमी पळयतात. चड करून बायल मनशे कडेन पळोवपाची आमची नदर खूब बदलून गेली. गोंयचे मुक्ती चळवळीचे लडायेंत बायलांनी वांटो घेतलो अशें जरी आसलें तरी सांस्कृतीक मळार बायलो वांटेकार जाल्ल्यो दिसनात. गोदावरी नायक वा सीताबाय कुंडयकार अशीं एक दोन नांवां आमकां आडवादान मेळटात. समाजीक परिस्थितीक लागून तांचे सारकिल्या आनी कितलेश्याच बायलांचें सृजन अंदून उरलां आसुंये. गोंयचे मुक्तीक लागून ह्या सृजनाक वाट मेळ्ळी हातूंत दुभाव ना. आनी फाटल्या वीस वर्सांत बायलो व्हडा प्रमाणांत बरोवपाक लागल्यात. ग्वादालूप डायस, श्रीनिशा नायक, शीतल साळगांवकार, अन्वेषा सिंगबाळ, योगिनी आचार्य, जोफा गोन्साल्वीस हीं नवे पिळगेंतलीं कांय नांवां. समाजाच्या वेगवेगळ्या थरांतल्यान आयिल्लीं. साहित्याचें म्हूण एक समाजशास्त्र आसता. ते नदरेन ह्या बदलाचो अभ्यास जावं येता. ही जी नवे पिळगेची वळेरी आसा तातूंत रुपाली किर्तनीचो आस्पाव जाता.

थोडेशें भारतीय साहित्याच्या इतिहासांत रमुंया. भारतीय कवितेंत बायलांनी मोलाची भर घाल्या हें सत कोणाकूच न्हयकारपाक जमचेलें ना. ताच्यो कांय म्हत्वाच्यो देखी म्हळ्यार मुक्ताबाय, बहिणाबाय. (हीं तुकारामाचीं समकालीन) कन्नड संत कवयित्री अक्का महादेवी. आनीक एक म्हत्वाचें नांव जनाबाईचें. हीं नांवां आमकां सातशीं वर्सां फाटल्यान घेवन वतात आनी आमच्या समृद्ध दायजाची वळख करून दितात. ह्या काळाची तुळा युरोपी साहित्याच्या इतिहासा कडेन केल्यार थंयचें मळ पडंग दिसता. ते भायर बायलांच्या हातसून लोककाव्याची निर्मणी जाली हें आमी विसरूंक फावना. दात्यार दळटना, शेतांत वावुरतना तशेंच धालांच्या मांडार खेळटना तांच्या ओंठार उतरां सहजतायेन उमळून आयलीं. तातूंतल्यो कांय रचना अस्सल कवितेचीं मुल्यां घेवन आयिल्ल्यो आसात. 'नखेत्रांचो बाये म्हाका मारता उजो' वा 'पावस माथ्यार पावलो म्हजे मांय/ दर्या गाजोता, दर्यादिगेर बसून म्हुजे मांय/ हांव ल्हारां मेजितां' सारकिल्यो चमक आशिल्ल्यो वळी तातूंत होल्मतात. संगिताचे नदरेन आनी छंदशास्त्राचेय नदरेन लयेचे वेगवेगळे बंध अभ्यास केल्यार तातूंत सांपडूं येतात. अशीं काव्यां रचतल्यांचें नांवगांव आमकां खबर नासू तांणी कोंकणी कवितेचें दायज गिरेस्त केलां. कोंकणी कवितेची ती परंपरा. डॉ.जुझे पेरैर, डॉ. जयंती नायक हांणी ही लोककविता एकठांय करून संग्रहाच्या रुपान आमच्या मुखार दवरून कोंकणी कवितेचेर व्हड उपकार केल्यात.

रुपालीच्यो कविता म्हळ्यार तिचे आत्मनिश्ठ जाणिवेक फुटिल्ल्यो आंकऱ्यो कोमऱ्यो. वांट्याक आयिल्ली जीण जियेतना अणभवांचें संचीत सांठत वता आनी ताका कवितेच्या माध्यमांतल्यान एक रुपकार मेळटा. आत्मनिश्ठ जाणीव ही मनशाच्या पयल्या स्वासा सावन सुरू जाता. हो पयलो स्वास म्हळ्यार जिविताचे यात्रेची सुरवात

आसता. आवयच्या कुसव्यांतल्यान भायर येतकच ताका पयलें रडें फुट्टा तो ताचो पयलो वयलो उद्‌गार आसता कोहंम. अध्यात्माचे परिभाशेंत ताचो अर्थ हांव कोण असो जाता. ह्या पयल्या खिणा सावन आत्मसोदाचे यात्रेक सुरवात जाता आनी हांव कोण? ह्या प्रस्नाची जाप जिणेचे अखेर मेरेन मेळटलीच अशें ना. हो अखंड सोद मनशाचे जिणेक नवो अर्थ दिता.

सोदचेंशें दिसता परत
म्हज्यांतलें 'हांव'
आसलें कशें? शेणलें खंय?
बदल्लेंय नांव

बायलेचे जिणेंत ह्या 'हांव'च्यो वेगवेगळ्यो अवस्था आसतात. सांकेतीक अर्थान तिच्या लग्ना उपरांत तिचो नवो जल्म जाता. तिका नवें नांव आनी गांव मेळटा आनी ताचो खोल परिणाम तिचे मानसिकतेचेर जाता. देखून तिका कांय काळ तरी शेणिल्ले वरी दिसप सभावीक आसता. हो सार्वत्रीक अणभव आसा. नवे व्हंकलेच्या मनाची अवस्था मराठींतले श्रेस्ठ कवी भा.रा.तांबे हांणी आपले 'नववधु प्रिया मी बावरते' हे कवितेंत सुंदर तरेन सांगल्या. वा तेच प्रमाण नूतन साखरदांडेची अश्याच आशयाची एक म्हत्वपूर्ण अशी कविता आसा. वालीक मातयेंतल्यान हुमटावन तिका दुसरे सुवातेर रोयतना तिका अणभवाक आयिल्ली थरथर नूतनाची कविता व्यक्त करता.

मुळा सयत हुमटावन म्हाका
पोरसांत तुवें रोयलें
रोपा पोंदची उब सोडून
नवे मातयेंत फुल्लें

हालींच्या बदलपी काळांत वाली नवे मातयेंत मुळां घेनात हो अणभव. तेन्ना रुपालीच्यो ह्यो वळी वाचतना मनाक एके तरेची थाकाय मेळटा.

ही वाल नवे मातयेचो गुणधर्म आपले भितर ओडून घेवन मातून फुलता फळटा, आनी ती अशीच वाडूं अशी आस्त ती बाळगून म्हणटा,

म्हजे बियेचें रोप सदांच
हांसतें-खेळटें उरूं दी
वसता त्या आंगणांत फुलून
परमळ आपलो पसरूं दी

ह्या वळींचो अर्थूच असो की ही वाल फुडारा विशीं विचार करता. तिचें बीं जंय जंय पावता थंय दुसऱ्यांक सूख समादान मेळचें अशी वान्सा ती धरता. तसो हो एक पारंपारीक विचार. पूण तो व्यक्त करतना हांगा बियेची प्रतिमा वापरिल्ल्यान तिचे अभिव्यक्तीक वेगळेंपण आयलां. कवयित्री आपलो गांव आनी देस सोडून दुसऱ्या देसांत रावता. आनी जे भुंयेंत तिची वार पुरल्या ताची ओड अनावर जावप हें एकदम सभावीक आसा. तिका आपले भुंयेचीं सपनां पडटात. तिच्या आंगार पडिल्ले घाय पळोवन तिचें संवेदनाक्षम मन कळवळटा. एका परस चड अर्थाचे थर तिचे कवितेचे बांदावळीक आसात.

आज-काल जी कविता वाचूंक मेळटा तातूंत न्हयकारी सूर चडसो आयकुपाक येता. आमच्या सरभोवतणीं निर्शेवणीच भरल्या काय कितें अशें आयच्यो कविता वाचतना दिसता. आयची समाजव्यवस्था आनी आमची मानसिकताय ताचें कारण आसूं येता. पूण ही एक passing phase वा आमी संक्रमणकाळांतल्यान वतात अशें आमी कित्याक मानचें न्हय? रुपालीक तशेंच दिसता आसुंये

उजवाडाचें म्हत्व काळखांत
सांपडले बगर कळना
रात सदांच रात उरना
सकाळ जाले बगर रावना

हो तिचो खर आशावाद. हो आशावाद तिचे भितर आसा ताचे फाटलें कारण म्हळ्यार तिचें इल्लेंशें मन मोगान उपाट भरलां. ताकाच लागून तिचो भोंवतणचो संवसार खूब सुंदर आनी सूखदिणो दिसता. आमचें मन उदकावरी निर्मळ आनी शितळ आसा. तातूंत ओगीच दुस्वासाचो चिखोल कालोवन तें खदूळ करूं नाकात म्हूण ती संवसाराक पाराथता. हे कवितेचें एक खाशेलेंपण म्हळ्यार तातूंत उश्णे आनी अडेचे खंत किंवाटे नात. आमच्या चडावत कवयित्रींनी रचिल्ल्या कवितांनी पुरुशप्रधान समाजव्यवस्थेन बायलमनशेचेर केल्ल्या अन्यायाचो सूर आयकूंक येता. खूब कडेन ती एकसुरी आनी कानाक loud लागता. ह्या संदर्भांत दोन इंग्लीश कवयित्रींची देख दीन दिसता. एक इमिली डिकिन्सन आनी दुसरी सिल्वीया प्लाथ. दोगांय भितर बराबर शंबर वर्सांच्या काळाचें अंतर. वेगवेगळ्या समाजीक आनी संस्कृतीक पर्यावरणांत वाडिल्ल्यो. तरी आसतना तांच्यो कविता मनीस म्हूण जियेतना आयिल्ले निखळ अणभव व्यक्त करतात.ताका लागून काळावेळाचो हुंवार तांच्या आंगा वेल्यान गेलो तरी तांचें स्थान थीर उरलां. अस्सल अणभवाची कविता काळाच्यो शिमो हुपून वता हाचें आमकां भान आसपाक जाय. जिणेच्या प्रवासांत सरळ अशें कांयच दिसना. पूण दर मोडणार मात दोळ्यां सामकार वेगवेगळें फालें दिसूंक लागता. रुपालीचे कवितेक योग्य दिका मेळ्ळ्या ताची ही कुरू...

रुपालीक हें जिवीत म्हळ्यार एक कुवाडें कशें दिसता. जिविता संबंदान जे प्रस्न तिका पडटात तांच्यो जापो ती सोदता. 'खांदयेर बसून धोलता तीच/ खांदी कित्याक मोडटा? आनी जिणेंतल्या प्रवासांत वांगडा आशिल्ले सांगाती तुका अर्ध्यार कित्याक सोडून वतात' असल्या प्रस्नांक सदांच जापो मेळटल्योच अशें ना. पूण ह्या प्रस्नांक लागून जिविताक नवो अर्थ येता.

सगळ्योच कविता एकसारख्यो आसतात वा जमताच अश्यो

ना. रुपालीचे कवितेचे रंग कांय कडेन गाड तर कांय कडेन थोडे फिके दिसतात. पूण एखाद्री जमिल्ली कविता वेगळेंच समादान दिता.

गेले ते दीस फाटले
गेले ते खीण
आज मात रावं नज
म्हज्यान तुजे वीण

ह्यो वळी तांच्या निजाच्या सौंदर्याक लागून मनांत रिगतात. बरी कविता अशें ऑमी म्हणटात तेन्ना तिचो आशय सगळ्यांत पयलीं आमच्या मनांत येता. आनी ते उपरांत तिका उंचाय दिता ती तिचो नाद आनी लय. आशय आनी नाद-लय हांचो सुमेळ जमता तेन्ना एक बरी कविता आकाराक येता. संगितांत सुरांचे अशे आपले जागे आसतात. तेच प्रमाण चित्रांत रंगांचे. जेन्न सूर वा रंग आपआपल्या जाग्यांर आसतात तेन्ना ते एकमेकाकडेन संवाद सादतात. आनी हो संवाद म्हणल्यारुच लय. कविता ताका आडवाद ना. एखाद्री कविता आमकां आवडटा वा ती जमल्या अशें आमी म्हणटात तेन्ना ते कवितेंत शब्दांचीं स्थानां फाव तशींच आसात असोच ताचो अर्थ जाता. ह्या संदर्भांत टॅड ह्युज ह्या श्रेश्ठ ब्रिटीश कविचीं उतरां म्हत्वाचीं दिसतात. तो एके कडेन बरयता:

Imagine what you are writing about. And see it and live it. Do not think it up labouriously, as if you were working out mental arithmetic. Just look at it, smell it. listen to it, turn yourself into it. When you do this, the words look after themselves like magic . The minute you flinch, and take your mind off this thing, and begin to look at the words and worry about them, then your worry goes into them and they set about killing each other.

उतरां कडेन कितले जतनायेन न्हय तर कितले मायेन पळोवंक

जाय हाचे कडेन टॅड ह्युज आमची नदर वेधून घेता. ही जाण आनी नदर रुपाली कडेन आसा. देखून तिचे कडल्यान आशयसंपन्न कवितेची निर्मणी जावंक पावतली हें वेगळें सांगपाची गरज दिसना.

रुपालीक उतरां इतलीच चित्रांची ओड आसा. तिच्या व्यक्तिमत्वाचें तें एक तांस. उतरां इतलेच सहजतायेन ती रेशां बराबर खेळटा. हो चित्राचो सांगात तिचे कवितेक पोसवण दितलो. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्या कलांचें एकमेकां कडेन रगताचें नातें आसता. अभिव्यक्तिचीं माध्यमां वेगळीं आसलीं तरी तांचें मूळ एक आसता.

हांवूय करूंक शकतां
जगाक दाखोवन दिवचें
सपन म्हजें इल्लेंशें
मळब हांवें गांठचें

अशें रुपालीन म्हळां. तिका कवितेचें क्षितिज कुरू करीत रावं...

**माधव बोरकार**

**21 जुलै 2012**
**ग्रीन पीस कॉ. हा. सोसायटी**
**नागाळी,**
**ताळगांव, गोंय**
**403002**

# पयलें पावल

उबारले बगर पावल हांव
फुडें कशें सरूं?
मारले बगर हात-पांय
तड कशी मारूं?
बंद दोळ्यांनी आयलो-पेलो
संवसार कसो पळोवं?
बंद ओंठान मनांतलें
भायर कशें उलोवं?
खूब कितें दिसता करन
सुरवात खंयच्यान करूं?
उबारले बगर पयलें पावल
फुडें कशें सरूं?

# पुला पोंदचें उदक

ह्या पुलार उबें रावन
हांवें पोंदा पळयलें
तीच न्हंय, तेंच उदक
आपलेपण चड जाणवलें.

हेच न्हंयेंत हांव न्हालें,
खेळ्ळें, वाडलें
आयज हांव पयस पावलें.

ती तश्शी आसा
ती बदलूंक ना,
ना हांव बदल्लां
फकत ते दीस वचून
नवे दीस आयल्यात
तेच न्हंयेर
हो पूल बांदून काडला.

न्हंयेंत खेळटना
हांव सदांच पुलाक आशेतालें
पूल कोणेंय बांदचो
मन म्हजें सपनेतालें
आयज म्हजें सपन खरें जालें
पुलाचो म्हाका आदार मेळ्ळो
ताचे बगर घडये
हांव खंयच पावचें नासलें.
न्हंयचे वेंगेंत
म्हजें भुरगेपण सारलें
पुलाच्या आदारान
फुडली जीण सारतलें

पूण . . .
पूल आपल्या जाग्यार
आनी न्हंय आपल्या
थोडो वेळ हांव तिका पळयत रावलें . . .

ती मायेन म्हाका पळयताली
'यो'
हांव वतलें, वचूंकच जाय
पूण केन्ना?
मन जडावलें
दोळे पोले भिजोवंक लागले

जड मनान हांवें
परत तिचेर एक नदर घाली
तीच न्हंय,
त्योच यादी
तेंच सगळें,
सगळें तेंच
आयज ...
पुला पोंदचें उदक जालां.

## पयस आमी ...

सगळ्यां कडल्यान पयस आमी
दीस कशे काडटात,
आमीच जाणात, आमीच जाणात
त्रास कितले पडटात...

पयसुल्ल्यान दोंगर साजरो
ही म्हण खरी
हांगचें जिवीत आमकां न्ही
आमी गोंयांच बरीं...

फायचो विचार करून आज
त्रास हांगा काडप
गेल्ली पिराय परत येना...
कोणा खातीर जोडप?

सोयरीं नात, धायरीं नात
यादी बसून काडप
चार उतरां वाचून बरोवन
मन हलकें करप

दीस सरतात, म्हयने धांवतात
वर्सां अशींच वतात
सगळ्यां कडल्यान पयस आमी
दीस अशे काडटात

साता समुद्रां पयस आमी
सगळ्यां कडल्यान पयस आमी
सगळीं आसून एकटीं आमी
दीस अशे काडटात...

# इतलोय पयस वच्चो ना

दर्याचे देगेर रावन
फुटपी ल्हारां
पळयत रावन दिसतात,
वरान वरां
वेळेर बसपांत वेगळेंच सूख
जाल्यार दर्यांत पेंवपाची
वेगळीच तरा

तो विशाल दर्या
आनी ताच्या आंगार खेळपी लोक
ओडलावणे ते उदकाचे खेळ
आनी तरेकवार भोग
कोण खेळटा,
कोण पेंवता,
कोण ल्हारां वेल्यान उडकी मारता
पळोवन जालो
दर्याचो म्हाका मोग

वेळे वेलीं घरां,
वेळे वेले खेळ
गरम गरम भिकणां, मके,
वेळेर मेळपी भेळ
हें सगलें आसाच
पूण पेंवपांत सूख वेगळेंच
मार्ग खंयचो काडूं
जो घडयत दोनूय मेळ

पेंवपाक शिकिल्ल्याचो उपेग तरी करुंया
दर्याच्या आंगार, खेळून तरी पळोवंया
निर्णय घेवन मारली उडी
येवजून–
मुखार सरूंक
हात–पांय तरी मारुंया

दर्यांत पेंवपाचो
अणभवच वेगळो
ल्हारार ल्हार आपटता,
गणमणलों हांव सगळों
एक ल्हार आपटता
जाल्यार दुसरें शेंवटिता
असलो अणभव हांवें
केन्नाच घेवंक नासलो

आतां केलो ठाम विचार,
हात–पांय मारीत वचप मुखार
ल्हारांक आपटनासतना
तांच्या आंगार खेळपाक शिकप
भुरगेपणाची हौस म्हजी
आतांच भागोवप
आतांच भागोवप

वेळ खूब पयस उरली
हौस म्हजी सोंपूं नासली
पेंवत जरी मुखार पावलों
एक दोळो म्हजो
वेळेर आसलो

देग दिसता
तो मेरेन हांव पेंवतलों
एक दोळो म्हजो
सदांच वेळेर उरतलो
दोळ्यां आड वेळेक
हांव करचों ना
इतलोय पयस
हांव वच्चों ना
इतलोय पयस
हांव वच्चों ना.

# बंद पापणेंतलो संवसार

पापणेक तेंकता जड पापणी
तशें सामकार तें येता
हळूहळू मुखार सरीत
वेंगेंत म्हाका घेता

आगळ्या वेगळ्या संवसारांत
घेवन तें वता
जाय जाय तशें म्हाका
वागूंक तें दिता

केन्ना म्हाका रडयता,
केन्ना तें हांसयता,
केन्ना खूब भिवयता,
केन्ना नाच नाचयता

रंगान ताच्या रंगयता
वेंगेंत म्हाका खेळयता
मनांत जें चल्लां
सांगनासतना समजता

हालचाल करता पापणी
तशें वचूंक तें लागता
हळू हळू वेंग ताची
सदळ सोडूंक लागता

म्हाका मात दिसता ताणें
आनी मातशें रावचें
वरांन वरां वेंगेंत म्हाका
घेवन ताणें बसचें.

# जिवीत अशें

सकाळ जाल्यार म्हणटात
सूर्य उदेला
उजवाड फांकला
रात जाल्यार म्हणटात
सुर्यास्त जाला
काळोख पातळ्ळा
चंद्रीम मदीं आयल्यार म्हणटात
गिराण लागलां
झाडां तुमी कापतात
प्रदुशण तुमी वाडयतात
म्हणटात धर्तरी तापल्या
गरमी वाडल्या

तो सूर्य बाबडो
बसला एकाच जाग्यार
उज्याचो गुळो कसो
पृथ्वीच्या माथ्यार
भोंवऱ्या वरी पृथ्वी
ताचे भोंवतणी घुंवता
केन्ना हाका
केन्ना ताका
उजवाड दीत रावता

दिसता म्हाका
जिवीत म्हजें
सुर्या वरी जावचें
काळखांत लेगीत
चान्न्या रुपान
उजवाड दीत रावचें.

# हांव

'हांव'
हांव कोण?
एक धूव?
एक बायल?
एक आवय?
कोण हांव?

म्हाका ह्या संवसारांत हाडपी,
जगाची रीत शिकोवपी,
सदांच म्हजें बरें चिंतपी,
मागनासतना सगळें दिवपी,
आवय–बापायची अभिमानी धूव
म्हळ्यार 'हांव!'

म्हज्या बऱ्या–वायटा सयत आपणावपी
हातांत हात घालून अबड–धोबड
वाटांनी चलतना सांगात दिवपी,
उपाट मोग करपी घोवाची
अभिमानी बायल
म्हळ्यार 'हांव!'

म्हज्या जिवितांत खोशी हाडपी,
आवयपणाची जाण दिवपी,
आपल्या कर्तृत्वांनी धादोशी करपी,
मोगाळ, मायेस्त अशा दोन धुवांची
अभिमानी आवय
म्हळ्यार 'हांव!'

'हांव'
हांव कोण?
एक अभिमानी धूव.
एक अभिमानी बायल.
एक अभिमानी आवय.
अशी एक स्वाभिमानी
सोद जारी आसा
हांव!
हांव कोण?

# धा व्हड्यांत पांय म्हजे

धा व्हड्यांत पांय म्हजे
खंयच्या व्हड्यांत उबें रावूं?
धा व्हड्यांत पांय दवरून
पलतड तरी कशी मारूं?

आवडींत निवड करप कशी?
खंयचे आवडीर उदक सोडूं?
सगळ्यो आवडी सारक्योच म्हाका
फिशालकाय कित्यांत जोडूं?

मनांत सहज विचार आयलो
अशें केल्यार कशें?
णव व्हडीं बांदून ओडचीं
धाव्वें बदलत रावल्यार कशें?

## मना म्हज्या

मना म्हज्या सांगतां तुका,
सैमान पिशें लायलां म्हाका

मोरा पिसां आंगार म्हज्या
धोलतीं फुलां भोंवतीं म्हज्या
घुंगरां बांदून नाचुंदी म्हाका
फुलां वांगडा धोलुंदी म्हाका
मना म्हज्या सांगतां तुका
सैमान पिशें लायलां म्हाका

सुकण्या भिरीं मळबांत उडटात
झाडां-पेडां वाऱ्यार नाचतात
पांखां लावन उडुंदी म्हाका
पेडां मुळांत गावुंदी म्हाका
मना म्हज्या सांगतां तुका
सैमान पिशें लायलां म्हाका

नाचुंदी म्हाका, धोलुंदी म्हाका
उडुंदी म्हाका, गावुंदी म्हाका
मना म्हज्या सांगतां तुका
सैमा वेंगेंत रिगुंदी म्हाका
आज सैमान पिशें लायलां म्हाका.

# व्हांवून गेलो काल

कसली आयल्या सांज आज
सुटलां कसलें वादळ
उगडासांच्या हुंवारांत
मन जालां सदळ.

दाटून आयला पावस दोळ्यांत
काळजांत काळे ढग
आमोरेन आंगार काळखी
पातलावन घाला रग.

दोळ्यां सामकार एकार एक
जोगलावल्यो यादी
गडगड धडधड काळजा भितर
कोसळत मळबा लादी.

घस्स करून ओतलो पावस
भिजले दोनूय गाल
हुडक्यांच्या ल्हारां वांगडा
व्हांवन गेलो काल.

# मन

इल्लेशें मन म्हजें
मोगान उपाट भरिल्लें
दिवचें तुका आनीक कितें
मनच तुवें व्हेलें

एकसुरें मन म्हजें
तुवें हळूच चोरिल्लें
सगळें सोडून मन व्हेलें
म्हाका कितें उरलें?

रागानं हांव तिडकलें
तुवें म्हाका चाळयलें
मन जाय? मन जाय?
मन तुवें परतयलें

खोशयेन हांव फुल्लें
मन हांवें घेतलें
तुवें म्हाका फटयलें
मन म्हजें नासलें

मन म्हजें तुजें जालें
तुजें मन म्हाका दिलें
तुज्यांत म्हजें मन आसलें
म्हज्यांत तुजें मन बसलें

## रूप नखेत्रांचें

चान्न्यान न्हायत जनेलांत
उबें जेन्ना रावतां
लिकलिकपी नखेत्रां
नदरेक म्हज्या पडटा.

पिकपिकपी लायटी कशी
मळबांत भोव सोबता
पळोवंक मात ताका
काळोख किट्ट लागता.

भर दिसाउजवाडा,
खंय गा लिपतात?
रातचीं कितलीं चकचकतात!
सकाळ फुडें न्हिदतात?

सुर्याच्या तेजा मुखार
उकत्या दोळ्यांक दिसनात
काळखे राती मात
लिकलिकपाचें सोडनात.

चान्न्यान न्हायत जनेलांत
जेन्ना केन्ना रावतां
नखेत्रांचें म्हाका एक
वेगळेंच रूप दिसता.

उजवाड आपलोच दीत
वाट आपली चलतात.
काळखांत घुसपल्ल्यांक
आगळी उमेद जागयतात.

काळख्या मोडणार जिविताच्या,
थीर रावची उमेद
उजवाड आपलो निर्मून
फुडें सरची उमेद.

# चेर

मनांत कोडसाण
जिबेर गोडसाण
घमघमाट चेराचो
घालयत व्हय घामसाण?

वयलेचाराक घालीत वास
परमळ फकत पयसुल्यांक
भरशिल्या घामेंत चेर
घुंवळ हाडीत लागीतल्यांक

गोड जीब, गोड मन
मुमुरखो हांसो
न्हाल्ल्या निवळ आंगार, मंद
चेर मारचो तसो.

## हांस

मन सोडून हांस,
तुका कोणें आडायला?
आयचो दीस तुजो,
फालें कोणें पळयलां?

तकले वयलो ताण–भार,
पयस करता हांसो...
फातराचें काळीज लेगीत,
मोव करता हांसो...

काळजार तोपपी सुयेर,
वखदी मलम हांसो...
हून दुदार साय मांडटा,
तसो ओंठार हांसो...

भाळटा मन, मुखामळार
फुलतो पळोवन हांसो...
पिडा कुशीक सारून, खोशी
उपाट दिता हांसो

मन सोडून हांस तूं,
गिळूं नाका हांसो,
गेल्लो खीण परत जिणेंत,
येतलो तरी कसो?

# वेर

वेर आयिल्ल्या हारश्यांत
बिंब म्हजें तुटूंक लागलें
खंयी तरी म्हजे म्हाकाच
चीर पडिल्ले वरी दिसलें

वेर जशी गेली वाडत
जावंक लागले भाग दोन
एकाच वेळार दोन रुपां
खंयचें हांव? दुसरें कोण?

एकेच भशेंन दिसलीं दोगांय
फरक जाणून आयलो ना
एकाच रुपार मात नदर
थीर करूंक जमलें ना

पळयत रावलें दोळ्यांत हांव
तरीय लक्ष सरतालें
एक रूप दुसऱ्या कडल्यान
नदर जशें चोरतालें

हारसो फुटून पडचे पयलीं
जतनाय हांवें घेवंक जाय
रुपां तातूंत वाडचे पयलीं
सांबाळून दवरूंक जाय.

# गांठ

धांवत धांवत सुखा फाटल्यान,
सुखाक फाटीं घालां आमी
सगळें आसून लेगीत दिसता,
कितें तरी आसा कमी.

धांवत धांवत दुखले पांय,
खरशेलें अंतस्करण
धांवंक नज जाता तेन्ना,
बसून देवाक करतां स्मरण

लावन रुपडें अडेचें,
दीस रात धडपडटात
सूख हाताक लागना म्हणीत,
रात दीस फडफडटात.

समाधान मानतल्याच्या,
हातांतच वसता सूख
सुखी मनीस भागयता,
कशीय तान-भूक
सूख आनी समाधानान,
आपसांत मारल्या गांठ
दोनूय घेवन चलतल्यांची
सुखी फुडली वाट

# फूल

सोबीतकाय सदांच फकत,
भाळटा आमच्या दोळ्यांक
भोंवर जुस्त सोदून काडटा
म्होंवाळ त्याच फुलांक

सगळ्या फुलांत इल्लें तरी
म्होंव हें आसता
गुलाब लेगीत देंठार आपल्या
कांटे घेवन नाचता

परमळ चड, म्होंवाळ चड
कोण सोबीत रुपान
तरेकवार फुलां धोलतात
सैमाच्या गोपान

सोबीत फूल सदांच म्होंवाळ
आसचेंच अशें ना
म्होंवाळ फुलान सोबीत सदांच,
दिसचें अशें ना.

दोळ्यांक खूश करूंक, सोबीत
फूल सोदून काडचें
मनाक मात खोशी मेळोवंक
म्होंवाळ तेंच गांठचें

भोंवऱ्या वरी म्होंव सोदीत
फुला फुलार बसचें न्ही
सोबीत, म्होंवाळ लागल्यार हाताक
ताका मात सोडचें न्ही.

# मन–सपन

अस्वस्थ मन
न्हिदूंक सोदता
न्हिदच येना
न्हिदच येना
न्हिदूंक गेल्यार
न्हीद येना
आयल्यार सपन
न्हिदूंक दिना
जागच्या वेळार
उठन दिसना
सपन म्हाका
मोडीन दिसना
अस्वस्थ मन
सुखावलां
सपना वेंग
सोडीन दिसना.

# चित्र

चित्र काडूंक बसलें हांव
ओतलें कागदार मन सगळें
रंग तातूंत भरूंक लागलें
वेगवेगळे वेगवेगळे

भरतां भरतां भरतां रंग
म्हजेय हात रंगून गेले
म्हजीच जीण रंगयल्ले वरी
मजा हांव घेत गेलें

सोबीत अशें रंगलें चित्र
पळयत रावन दिसचें जशें
सोबा वाडोवंक सालाची
फास्केंत घालून लायल्यार कशें?

हाडलो खिळो मारलो वणटीर
चित्र थंय आवडूंक ना
बदलत रावलें जागे तरी
खंयीय लायल्यार सोबलें ना

हांगा नाका, थंय नाका
करीत, जागे बदलीत रावलें
सोबता शें दिसना फुडें
सोमतेंच थंय लावन सोडलें

कमरार हात, तोंडार हांसो
मारली नदर हेवटेन तेवटेन
बुराक बुराक बुराक दिसले
चित्राचे चारूय वटेन.

# म्हाका सदांच दिसता...

म्हाका सदांच दिसता
म्हजो तुका आदार जावचो

म्हाका सदांच दिसता
तुजो ताण हांवें वांटून घेवचो

म्हाका सदांच दिसता
तुका हांसतो दवरचो

म्हाका सदांच दिसता
तुजेर खोशयेचो पावस ओतचो

म्हाका सदांच दिसता
अशें करचें... तशें करचें...

म्हाका सदांच दिसता

पूण कशें येस मेळोवचें?

# रंग

मुठींतले रंग सोडून
पळट्या फाटल्यान धावूं कित्याक?
इंद्रधनू मळबांतलें ...
जाय जाय शें दिसता कित्याक?

मळबांतले रंग ते
म्हजे भोंवतणी सोदून काडटां
तोखेत सात रंग ते
भोंवतणच्या रंगांत रंगून पळयतां

केन्ना केन्नाय दिसपी ही
सात रंगांची आस कित्याक?
मेळुये इंद्रधनू मुठींतच म्हजे
एकदां उगडून पळोवचें न्ही कित्याक?

## ज्ञानेंद्रियां

दोळे पळोवंक शकनात
पूण जुस्त वळखता मन
कान आयकूंक पावनात
तरी समजता मन
नाक घेवंक पावना
त्या वासाक भुलता मन
रूच जिबेक लागना
अशी रूच गांठ्ठा मन
हाताक लागूंक पावना
असो स्पर्श जाणटा मन
ज्ञानेंद्रियांत आसपावना,
कित्याक तर हें मन?
तें पळयता, तें आयकता
हांसयता आनी रडयता
तें उलयता, तें समजायता
खेळटा आनी खेळयता

तें वास घेता, तें रूच घेता

स्पर्शान अनेक मनां जिखता

सर्वश्रेष्ठ इंद्रीय आसूनय

ज्ञानेंद्रियांत जमा ना

कित्याक काय मन?

# घोड्यागाडी

एकसुऱ्या घोड्याचेर,
घाली एक जबाबदारी
रंगयली, न्हेसयली
जोडली ताका सोबीत गाडी

मान वयर काडून घोडो
गाडी ओडीत फिरतालो
चाबूक एक पडलें तशें
धांवंक वेगान लागतलो

खडबडीत रस्त्यांतल्यान
मातयेंतल्यान, फातरांतल्यान
रेब्यांतल्यान, उदकांतल्यान
ओडीत चाकां भोंवतालो

देंवत्या चडट्या सवारींचो
भार गाडयेन घेतलो जरी
हांसत्या तोंडान घोडो हें
वजें सगळें झेलतालो

पिराय ताची वाडत आसली
धांवची उमेद सोंपच नासली
आज भार पेलना जाला
गाडयेक मातय झेपना जाला

आयल्या-पेल्या घोड्यां मदीं
खोशी आपली सोदीत रावता
जुवानपण याद करीत
उमेदीन दीस काडटा
उमेद जागी दवरता

# अवेळार

केन्ना केन्नाय दिसता म्हाका
अशें कित्याक घडटा?
फुलचे पयलींच फूल अशें
अचकीत कशें झडटा?

रोपार आयिल्ले नवेच कोमरेक
वारो कित्याक तोडटा?
झाड धरचे पयलींच रोप
हुमटून कित्याक पडटा?

निकतेंच धरपी फळा भितर
कीड कित्याक लागता?
कोंब येवचे पयलीं बीं
कुसून कित्याक सोंपता?

खांदयेर बसून धोलता तीच
खांदी कित्याक मोडटा?
चलतां चलतां वांगडी मर्दीच
सांगात कित्याक सोडटा?

अवेळार केन्ना केन्नाय
अशें कित्याक घडटा?
हांसच्या, खेळच्या, वाडच्या वेळार
काळ कित्याक ओडटा?

# उजवाडाचें मोल

आयची ही रात
बिण्ण काळखाची ही रात
लायटय ना
घरांत मेणवातय ना
लायट आमगेरच ना?
घरांतल्यान भायर सरतलें
म्हळ्यार चावीच सांपडना.

किट्ट काळो काळोख
उजवाडाचें चिन्न ना
रात तरी सोंपू दी
लायट तरी येवं दी
अस्वस्थ मनाक न्हिदय येना

एकलें एकसुरें
काळखांत सांपडलां
आदाराकय कोण्ण ना
पांय खंयींय आपटत...
नकळत मोलादीक वस्त तुटत
भंयान पावल मुखार सरना

धडपडत हांवें जनेल उगडलें
लायट आमगेरच ना
लोकांच्या घरांत उजवाड पळोवन
करचें कितें तेंच सुचलें ना

रात सरली, फांतोड जाली
सुर्याच्या एका किरणान
अस्वस्थ मनाक थाकाय दिली

केन्नाकच म्हजें घर
लिक्क उजवाडान भरून गेलें
सकाळ जाली
तशी लायटय आयली
घराची चावी दाराकच आसली

उजवाडाचें म्हत्व
काळखांत सांपडले बगर कळना
रात सदांच रात उरना
सकाळ जाले बगर रावना...

# एकेक तरा

तरेकवार फळां
तांचे तरेकवार वास
दर एका फळांत आसा
कितें तरी खास

कांय भायल्यान दिसूंक सोबीत
कांय भितर गोड गोड
कांय जुवानपणान आंबट
सुकयकच लायता ओड

घट्ट कातीचें काळींग
जावं पणस खरखरीत
दिसूंक कशेय आसले तरी
भितर गोड, फुसफुशीत

कांय रावतात घोंसान
एकामेकांक धरून
आंबट–गोड सगळीं जशीं
बसल्यांत वेंग मारून

कांय पयलीं दिकाळ
मागीर रुचीक चड
कांय दिसूंक अबड-धबड
कुसकी कांय बड

कांय आसतात पचकीं
रूचच तांची कळना
कांय पयलींच झडून वतात
कोणाक खावंक मेळना

कोण गोड रुचीन खाता
कोण आंबट, कोण पिकोवन
कोणाक तन्नें आवडटा
कोण रावता खावंक सुकोवन....

तरेकवार फळां...
तांची तरेकवार रूच
खरी कशी कळून येता
फकत खातकूच...

## गोंय आमचें गोंय

सोबीत आमचें गोंय
सुंदर आमचें गोंय
गोंय आमचें गोंय
गोंय तें गोंय

वाऱ्या वांगडा धोलपी
झाडां आनी पेडां
दर्याचो गाज आनी
उसळून फुटपी ल्हारां
पावसाच्या तालार
नाचपी ते माड
ओलो वाठार ओलीं घरां, हें
सोबीत आमचें गोंय
सुंदर आमचें गोंय

आमच्यो इगर्जी, आमचीं देवळां
आमचे सण आनी नाच
आमच्या गोंयां आमचें राज्य
मिरास जाण्ट्यांली ही खास
सोबीत आमचें हें गोंय
सुंदर आमचें हें गोंय

साडेचारशीं बंद वर्सां
तरीय सांबाळ्ळी संस्कृती
पन्नास वर्सां जालीं आज
सांबाळीत रावल्यांत रिती
सोबीत आमचें हें गोंय
सुंदर आमचें हें गोंय
गोंय आमचें गोंय
अशेंच उरूं आमचें गोंय.

# रुपां

रखरखीत वोत
माथें म्हजेंय तापयता
सत्री धरून माथ्यार हांव
म्हजें म्हाका वांचयतां

सुर्याचीं किर्णां आमकां
लिक्क उजवाड जरी दिता
तापते गरमेक लागून मात
वोत नाका जाता

दोन रुपां सुर्याचीं
उजवाड आनी तापती गरमी
झाडां-पेडां रोवन भोंवतीं
शितळ ताका करया आमी

अस्ताक वचून सुर्या
म्हत्व जाणयता उजवाडाचें
तापोवन धर्तरी दाखयता
रखरखीत फालें आमचें.

# वाट

सरळ वाटेर वतना म्हाका,
वाकडी वाट ना गा दिसली
मान घुंवडावन पळयत जाल्यार,
आयली–पेलीय सरळ आसली

ओडीत म्हाका व्हेलें ताणें,
एकदां वाट सोड थंयची
यो तरी वांगडा म्हज्या,
सरळ वचपान मजा खंयची?

चलूंक लागलें तशें मुखार,
सरळ कांयच दिसना जालें
दर मोडणार दोळ्यां सामकार,
वेगवेगळें दिसलें फालें

बरीं–वायट दृश्यां पळयत,
फुडें फुडें वचत रावलें
वांकडे–तिकडे वाटेर हांव,
मजा घेत चलत रावलें

आगळीं-वेगळीं मनशां मेळ्ळीं,
आगळे-वेगळे विचार दिसले
फुडें वाट कशी वळत,
कांयच दिसून येना आसलें

अकस्मात सामकार म्हाका,
वाट जशी बंदच आसली
पडले बगर व्हडल्या फोंडांत,
मुखार सरूंक वाटच नासली

धडधडूंक लागलें काळीज,
पावलां फाटीं घेतलीं रोकडीं
मोडणांय नाका, फोंडय नाका,
नाकाच म्हाका वाट वांकडी

परतीची वाट सोदीत,
पावल फाटीं घेत रावलें
तेंच मोडण, तेंच दृश्य,
सगळें भिरांकूळ दिसलें.

सरळ वाटेर लेगीत आज,
भंय वांकड्या पावलांचो
थीर दवरून चलतां हांव,
विचार करून फुडाराचो.

वांकडे वाटेर ओडलें जरी,
हांव पिशें थारलें कशें?
ओडलावणी वाट जरी,
हांव ताचेर चल्लें कशें?

सरळ वाटेर चलप्यान केन्नाच,
आपली वाट सोडची न्ही
कान कोणेंय भरले तरी
विचार आपले सोडचे न्ही.

# अशेंच हांव

म्हणटा तूं सदांच, "कित्याक तूं उलयना?"
करूं कितें? अशेंच हांव
उलोवंक म्हाका जमचना

बंद ओठां मदीं उतरां
एकामेकांत घुस्पतात
उलयन दिसता खूब कितें
शब्द थंयच धडपडटात

वांकडीं पडत उतरां म्हजीं
भंय लागून आसता सदां
दुखावत कोणूय हातीन म्हज्या
काळजी हाची म्हाका सदां

आपाप सुट्टटात उतरां
मन जेन्ना येता ओतूं
तेन्ना मात दिसता तुका
ओगी कित्याक रावना तूं?

उलयल्लेंय मानवना
उलयनासलेंय मानवना
करूं कितें? अशेंच हांव
उलोवंक म्हाका कळचना.

# मन–बिंब

उदकावरी मन आमचें
निर्मळ आनी शितळ
चिकोल तातूंत मेळोवन ताका
करूं नाकात खदळ.

उदकाची रूच कितें
मेळयत तशी बदलता
तापल्यार गरम जाता
न्हिवयना फुडें न्हिवता

घालीत मीठ
जाता खारट
लिंबू ताका
करता आंबट
गोडसाणेन गोड गोड
तिखसाणेन तीख–तिखट

## सूनबाय आयली

आयली आयली आयली
सूनबाय नवी आयली
“आतां हांव तुमचीच मगा
समजूं नाकात भायली”.

गोड जीब, सोबीत रूप
वागूंक सामकी साखर तूप
नवीच सरल्या घरा भितर
सोदता सोबीत बदल खूब.

नवो रंग काडुया,
पोन्नें सगळें उडोवया
लागात कामाक सगळीं आतां
रूप घरचें बदलुया.

नवो सोफा, नवो टि.व्ही
नव्यो रिती आपणावया
फ्रिज मोटार लेगीत नवी
नव्यो वाती पेटोवया

नितळ शुद्ध
मनांत अश्या
मेळोवप कितें?
मीठ?
लिंबू?
साखर?
मिरसांग?

पडबिंब आपलें
आपल्याच हातांत.

"हय सायबा", घोव खुशाल
"मना सारखें जावं दी तुज्या"
घरच्यांक तो विनयता
"समजून घेयात बायलेक म्हज्या."

घरच्यां वांगडा वागूंक बरी
रोकडीच घरांत मिसळून गेली
घरचीं मात आपल्याच घरांत
परकी कशीं दिसूंक लागलीं.

करता ती चूक न्हय,
घरा विशींच चिंत्ता
खंयय तरी घरच्यां विशीं
चिंतूंक ती विसरता

घरच्यां खातीर घरपण
विसरूंक कशेंच फावना
बदल हळू घडोवन हाडल्यार
त्रास जावंक पावना

# मोगाचें रूप

सुकिल्ल्या गुलाबार नदर पडली
परतिताना पानां
आपले आपूण वळ्ळीं पावलां
उगडासांच्या रानां
साफ सगळें दिसतालें
दाटिल्ल्या त्या वनां
गोड गितां मोगाचीं
पडलीं म्हज्या कानां
दोगांच आमी बशिल्लीं
झाडा मुळां तिनसनां
भान नासलें कसलें
जुळटालीं दोन मनां
कानांत म्हज्या मोगान तूं
गोड उलयतालो
हातांतलो तांबडो गुलाब
पोल्यार भोंवडायतालो
ल्हवू ल्हवू हांव तुजे
वेंगेंत रिगतालें
ओंठांचें काम सगळें
दोळे करताले

चंवर फुल्लो आंगार म्हज्या
त्या तुज्या स्पर्शान
चिप्प भिजून गेलें हांव
मोगाच्या पावसान
फरफरलीं पानां आनी
मन जाग्यार हाडलें
उगडासांच्या रानांतल्यान
भायर म्हाका काडलें
सुकिल्ल्या त्या गुलाबाक
पळयत हांव रावलें
रंग आनी रूप ताचें,
कितलें बदलिल्लें.
संवसाराच्या पुस्तकांत आज,
मोग चेंपणांत पडला
दर एका पावंड्यार, तो
रूप बदलत रावला.
गुलाब आज केंसांत बसता
ओंठच सगळें उलयता
गोड उतर पावस ओत्ता
सांगात चंवर फुलयता.
गुलाबा वरीच, दामलो तरी
रंग गडद जाला
रूप बदलत गेलें तरी
मोग टवटवीत उरला.

# गोड उतर तुजें

गोड उतर तुजें, मनांत मोर नाचयता
स्पर्श तुजो आंगार म्हज्या कांटो फुलयता
कोगूळ जशें भोंवती म्हज्या कुहू कुहू गायता
शिरंतरांनी अकस्मात पावस घस्स ओत्ता

गोड उतर तुजें अशेंच आयकत रावन दिसता
कोगूळ म्हजे भोंवतणी गायत रावचें दिसता
शिरंतरांच्या पावसान म्हाका चींब भिजन दिसता
मनांत मोर असोच थैय थैय नाचत रावचो दिसता

गोड अशें उतर तुजें म्हाका भुलयता
सांगातान तुज्या हांव म्हाकाच विसरतां

# तुजे वीण

तुजें तें फाटल्यान फाटल्यान येवप
तिरशे नदरेन पळोवप
पळोवन म्हाका मुमुरखें
गालांत गालांत हांसप

दिसना जाल्यार तूं
काळीज वयर सकयल जावप
वाटेक तुज्या लावन दोळे
तिश्टत म्हजें रावप

हारश्या मुखार रावन म्हजें
मनांत मनांत हांसप
विचार तुजो आयल्यार लेगीत
एकटेंच तें मुरगुटप

ना ते दीस येतले परत
नाय ते खीण
आज फेडत बसलां हांव
इतिहासाचें रीण

गेले ते दीस फाटले
गेले ते खीण
आज मात रावं नज
म्हज्यान तुजे वीण.

# जिणेंत म्हजे तूं

मळबांत जसो चंद्रीम
जिणेंत म्हजे तूं
देवाऱ्यांतलो देव जसो
काळजांत म्हज्या तूं
फुलार जसो भोंवर
मनांत म्हज्या तूं
राती म्हज्यो जागोवंक
सपनांत म्हज्या तूं
शिरंगार म्हजो तूं
कवन म्हजें तूं
जीण म्हजी तूं
काळीज म्हजें तूं
मन म्हजें तूं
सपन म्हजें तूं
तूंच म्हजें जग
जग म्हजें तूं

# म्हाका तूं जाय

मोगाच्या व्हड्यान हांव
मदल्या मदीं तरंगतां
दर्या पार करपाक
म्हाका तूं जाय.

जिणेच्या मळार हांव
पावलापावलार निर्शेतां
मनाक आदार दिवंक
म्हाका तूं जाय.

मनांतल्या मनांत हांव
दीसरात तळमळटां
जिवीत म्हजें फुलोवंक
म्हाका तूं जाय.

सपनांची माळ
गळ्याक म्हज्या फांस दिता
सपानां खरीं करूंक
म्हाका तूं जाय.

यादीन तुज्या घुसमट्टा हांव
मोगाक तुज्या आशेतां
मोग तुजो मेळोवंक
म्हाका तूं जाय.

## तूंच सांग...

फूल खंयचें हाडूं
तुजे बगर जें फुलतलें?
रंग खंयचे हाडूं
तुजे बगर जे रंगतले?
रूप खंयचें हाडूं
तुजे बगर जें सजतलें?
मन खंयचें हाडूं
तूंच सांग खंयचें हाडूं...
तुजे बगर जें रमतलें,
हांसतलें, खेळटलें?

# येवन गेलो तूं घोगो जावन...

सुकून गेल्ल्या रोंप्या वरी
मानो बागयल्ल्या देंठा वरी
मोव पडिल्ल्या पानां वरी
बावून गेल्ल्या कळयांवरी
रखरखीत मातये वरी
जाल्ली म्हजी जीण

अकस्मात आयलो तूं
पावसाचो घोगो जावन
जीण म्हजी परतयली तुवें
रंगयाळीं सपनां जावन

माती जाली फुसफुशीत
पानां कळे टवटवीत
रोप जालें खुशालभरीत
सगळें घडलें सपना वरी.

सगळें घडलें सपना वरी.
मानो बागयल्ल्या देंठां वरी
सुकून गेल्ल्या रोंप्या वरी
मोव पडिल्ल्या पानां वरी
बावून गेल्ल्या कळयां वरी
रखरखीत मातयेवरी...
परत जाली जीण म्हजी
याद करीत तुका
खिणान खीण
खिणान खीण

# पिशें पिशें मन

पिशें पिशें मन म्हजें
चार चौगांत सोदता तुका
सगळ्यां मदीं बसलां तरी
मुखार तूंच दिसता म्हाका.

बिंब तुजें पडलां अशें
पिश्या पिश्या मनांत म्हज्या
दर स्वास काळजाचो
यादीन भरून येता तुज्या.

मोग बसला काळजांत
पिराय वाडटा वर्सांनी
मन म्हजें पिशें आजूय
सोदता चारूय दिकांनी

विचार केन्नाय येता असो
तुकाय अशेंच जाता काय?
म्हऱ्यांत तुज्या नासतां तेन्ना
उणीव तुकाय भासता काय?

अंतरलो संवसार जर
दिसतलें काय हांव तुका?
चार चौगां मदीं तेन्ना
सोदतलो काय तूं म्हाका?

# अर्दकुटें

काल गेल्लीं सगळीं वेळेर
थंय दिसलें म्हाका जशें
तुजे बगर रे हांव रितें रितें कशें

जसो ल्हारां बगर तो दर्या
रेवें बगर ती वेळ
चान्न्या बगर तो चंद्रीम
अर्दकुटो सो मेळ

नखेत्रां म्हाका तिडायता
तो चंद्रीम म्हाका चाळ्यता
दर्याची गाज सतायता
वारो यादीन पिसायता

म्होंवाळ ते खीण मोगाचे
यादीन म्हाका दिसले जशें
तुजे बगर रे हांव अर्दकुटें कशें

जशे चुडटां बगर ते माड
काळखा बगर ती रात
तारया बगर तें तारूं
चलता आपली वाट

तें तारूं म्हाका तिडायता
ते धोलते माड चाळयता
काळखी रात सतायता
यादीन म्हाका पिसायता

म्होंवाळ ते खीण मोगाचे
यादीन म्हाका दिसलें जशें
तुजे बगर रे हांव अर्दकुटें कशें
रितें रितें रितें रितें....

# कित्याक?

यादींत येवन कित्याक म्हजे
दोळे भिजयता?
सपनांत येवन कित्याक म्हज्यो
राती जागयता?
याद तुजी आयल्यार हांव
कित्याक तिडकतां?
मनांतल्या मनांत हांव
कित्याक मुरगुट्टटां?
तूंच म्हळ्यार सगळें अशें
कित्याक समजतां?
तुजे बगर रावप चिंतून
कित्याक कश्टतां?

# सपन म्हजें इल्लें शें

तांक आसा म्हज्यांत
हात लावची मळबाक
नात तीं पाखां
वयर वयर उडपाक

यत्न हांव करतां
पाखां मारीत रावतां
कितलींय जरी वावुडलीं
झाडा तेंगशेरच पावतां

वयर व्हरपी पांखां
मेळत जर म्हाका
उड उड उडटलें
मेकळें मळब चिंवतलें

हांवय करूंक शकतां
जगाक दाखोवन दिवचें
सपन म्हजें इल्लेंशें
मळब हांवें गांठचें.

## मोगाचो शिरंगार

फूल जावन केंसांत म्हज्या
येवन तुवें बसचें
परमळ तुजे पसरायत म्हजी
सोबा वाडयत रावचें

    कांकणां जावन हाता भोंवतणीं
    किणकिणत तुवें रावचें
    मुदी जावन बोट म्हजें
    घट्ट धरून बसचें

सरपळी जावन गळ्या भोंवतीं
हात तुजे आसचे
पांयजणां जावन पावला तालार
छमछम करून नाचचें

    शिरंगार म्हजो जावन तुवें
    सोबीत म्हाका करचें
    स्पर्शान तुज्या रूप म्हजें
    आनीक उठून दिसचें

वस्त्रां रुपान मोगा पांगरूण
आंगार हांवें ओडचें
मोगाच्या पावसान तुज्या
चिप्प भिजून वच्चें.

# वाडटीं रोंपां

मुळा सयत हुमटावन म्हाका
पोरसांत तुज्या रोयलें
रोंपा पोंदची ऊब सोडून
नवे मातयेंत फुल्लें

आशी कुशीक आज म्हज्या
वाडटीं रोंपां इल्लींशीं
सोडून वेंग म्हजी फाल्यां
बाग सोबयतलीं दुसऱ्यांची

म्हजे बियेचें रोप सदांच
हांसतें-खेळटें उरूं दी
वसता त्या आंगणांत फुलून
परमळ आपलो पसरांव दी

# पडबिंब

हारश्या मुखार रावल्यार उबें
रूप तुमचें दिसता म्हाका
सोबीत गोड हांसो तुमचो
ओड लायता ज्याका ताका
म्हजेंच रगत, म्हजोच भाग
देवान मोगान रचलां तुमकां
काळजाचो कुडको जाल्ल्यान
लागल्यार तुमकां दुखता म्हाका
देवा कडेन मागणें म्हजें
बऱ्या मार्गार सोडचें तुमकां
म्हज्या परस शंबर पटीन
बरें बरें मेळचें तुमकां
उजवाडांत लागची न्हय
गरज म्हजी केन्नाच तुमकां
काळखांत मात सावळी जावन
सांगात दिवंक मेळचें म्हाका
हारश्या मुखार हांव जरी,
तुमीच भरल्यांत दोळयांत म्हज्या
काळजाक हारसो दाखयत तर
दिसतलें पडबिंब तुमचेंच तुमकां.

## संद

"झगडूं नाकात, झगडूं नाकात
एकठांय थोडींच वर्सां तुमी"
धुवांक म्हज्या सांगतात सगळीं
"खेळटालीं जाणा कशीं आमी?"

म्हजें मात सांगणें तांकां
"झगडात झगडात आतांच तुमी
मोग, राग, झगडीं करूंक
कितलीं वर्सां एकठांय तुमी?

आज जाय तेन्ना हक्कान
खेळूंक, झगडूंक मेळना म्हाका
तुमकां मेळिल्ली ही संद
आयज तुमी सोडूं नाका."

# तूं म्हजो कांदो

जिणेंत आमच्या तूं
जसो जेवणांतलो कांदो
सोलल्यार दोळे चुरचुरायता
शिनल्यार पोले भिजयता

बारीक जितलो शिनता
बरो तितलोच लागता
केन्ना उग्र, केन्ना तिखट
थंडेक भोव बरें वखद

हरवो जाल्यार रुचिकूच
सुवाद वाडयता शिजयतकूच
तळशिल्यार तर विचारूंच नाका
सर कोणाचीच ना तुका

भाज्यांक आपली रूच आगळी
तुज्या सांगातान लागता वेगळी
जावन भाज्यांचो मोगाळ भाव
रूच तांची तूं वाडयत राव.

# पुरो तर जाताच

जरी नोकरी करतां हांव
घर म्हजेर चलना
भुरगीं, घोव, घर मात
दोळ्यां आड फावना

घरांत भितर सरतकच
वेळ वगडावंक जायना
घरचीं कामां करूंक तोंड
वांकडें जावंक जायना

भुरग्यां अभ्यास घेवच्या वेळार
फडफडूंक जायना
कितलेंय काम केलें तरी
पुरो जावंक फावना

वाडटीं भुरगीं चणचणटात
बेजार जावंक जायना
वाडटी पिराय समजून घेवन
तिडकूंक तांचेर फावना

आवडीनच करतां सगळें
कागाळ हांव करना
पूण आवडटा तें करून म्हाका
पुरो जावंक शकना?

# रूख तुज्या आंगणांतलो

दारांत म्हज्या पेट्टी पण्टी
तुज्या लामणदिवो
दुदावेली साय म्हगेर
तुगेर आसा खवो.

आंगणांत म्हज्या फुलती फुलां
काळजाक आगळेंच सूख
तुवें रोयलां बीं ताचो
फाल्यां जातलो रूख.

वाऱ्या कडल्यान वातीक हांव
सांबाळीत रावतां
तेल घालीत पण्टेंत हांव
दोळो दवरून रावतां.

परमळटी फुलां कोणूय
मागणी घालून व्हरतलो
रित्या रित्या आंगणांत म्हज्या
कोण येवन बसतलो?

हुमऱ्यार तुज्या नदर गेल्यार
विचार एकच येता
पसरिल्लो उजवाड, वाडटो रूख
आस म्हाका दिता.

दारांतलो तुज्या लामणदिवो
उजवाड म्हाका पावयतलो
रूख तुज्या आंगणांतलो
सावळी म्हाकाय दितलो.

# बांद

हांसतें तोंड दवरून कामार
दाडवण म्हजें वळ्ळें
दांत–ओंठ चाबीत हांवें
किरायतें सगळें गिळ्ळें.
जाणटलेक बसूंक दिवन
लोंबकळत आयलें
बाजार करून वाटेर ...
वळमेल्लें घरा पावलें.

घरचीं कामां भितर म्हजी
वाट पळयतालीं
तीं करूंक म्हज्यांत मात
शक्त उरूंक नासली.
इतल्यान लक्ष गेलें
कोनशाक बाय बशिल्लें
भोंवतणीं कागदां, रंग सगळें पातळायल्लें.
"निवळ कर आत्तां सगळें"
हांव फणफणलें
रडत रडत पसारो काडून
लिपयत कितें धांवलें.

कुशीक ताच्या बसून रातीं
समजावंक वतालें
पळयत जाल्यार बाय म्हजें
सुस्त न्हिदिल्लें
सकाळ फुडें उश्या म्हऱ्यांत
कार्ड एक मेळ्ळें
*HAPPY MOTHER'S DAY MAMMA*
ताचेर बरयल्लें.
तीं रंगयाळीं कागदां पळोवन
हुंडक्या ल्हार फुटलें
अपराधी मनान ताका
घट्ट वेंगेंत धरलें.
जाय जाय तेन्ना
तुजीं घरचींच तुज्या म्हऱ्यांत
संयमाचो बांद सदांच
फुट्टा कित्याक घरांत?

# कळ्ळे बगर रावचें ना

शिस्त लागची तुमकां, हाचो
यत्न हांव सोडचें ना
आज न्ही फाल्यां, तुमकां
कळ्ळे बगर रावचें ना

म्हाकाच कित्याक? हांवच कित्याक?
म्हाकाय केन्ना कळ्ळें ना
असल्या म्हज्या प्रस्नांची
जाप तेन्नाय मेळ्ळी ना

आज जरी कळटा म्हाका
तेन्ना कित्याक कळ्ळें ना?
म्हज्याच बऱ्याक सांगतालीं
म्हाका मात गमलें ना

फाल्यां म्हज्या जाग्यार,
तुमी उबीं आसतलीं
तुमच्याय मुखार प्रस्नावळ
अशीच येवन रावतली.

तेन्ना तुमीय म्हजे वरी
तापार जावन चणचणटलीं
आयचें, तुमचें-म्हजें वागणें
सगळें तुमी विसरतलीं

फालचो तुमचो विचार करूंक
आज हांव सोडचें ना
तुमकां आज राग म्हजो
आयले बगर रावचो ना

तुमचेर हांव तापतां कित्याक
आज तुमकां कळचें ना
आज न्ही फाल्यां, तुमकां
कळ्ळे बगर रावचें ना

# दोणांतली आमली

दोणांतली आमली कशी पडलां ह्या बुयांवांत
चारूय वटेन खळ आनी फातरांच्या चेंपणांत

कुरकुरसाण सोंपली आतां जड त्या वजनान
मिठाखळांत रिगलें दिवंक आगळी रूच जेवणांत

वजन जितलें चड पडलें तितलें हांव चेपत उरलें
जितलो काळ खळांत उरलें तितलें हांव अदीक मुरलें

मिठा रूच ओडली हांवें सुरबुसाण वाडयत गेलें
चेपण जरी सारलें पयस कुरकुरसाण विसरून गेलें

दोणांतली आमली कशी खळांत हांव मुरत गेलें
कुरकुरसाण सोंपली तरी जेवणा–सुवाद वाडयत गेलें.

# म्हज्यांतलें हांव

सोदचेंशें दिसता परत
म्हज्यांतलें 'हांव'
आसलें कशें?
शेणलें खंय?
बदल्लेंय नांव

'हांव' बरें गायतालें ...
'हांव' बरें नाचतालें ...
कला कुसर करूंक सदांच
'हांव' फुडें सरतालें ...

म्हज्यांतलें 'हांव'
तुवें सदांच सांबाळ्ळें
तरी म्हज्याच ल्हारां वांगडा
हांव कशें व्हांवन गेलें?

तुमी आयलीं तशीं
‘हांव’ म्हज्यांत मिसळून गेलें
तुमचे खोशयेंत सोदीत म्हाका
‘हांव’ म्हाका विसरत गेलें

आसलें कशें?
शेणलें खंय?
बदल्लें जरी नांव
सोदचेंशें दिसता परत
म्हज्यांतलें ‘हांव’.



रुपालीक हें जिवीत म्हळ्यार एक कुवाडें कशें दिसता. जिविता संबंदान जे प्रस्न तिका पडटात तांच्यो जापो ती सोदता. 'खांदयेर बसून धोलता तीच/ खांदी कित्याक मोडटा? आनी जिणेंतल्या प्रवासांत वांगडा आशिल्ले सांगाती तुका अर्द्यार कित्याक सोडून वतात' असल्या प्रस्नांक सदांच जापो मेळटल्योच अशें ना. पूण ह्या प्रस्नांक लागून जिविताक नवो अर्थ येता.

रुपालीक उतरां इतलीच चित्रांची ओड आसा. तिच्या व्यक्तिमत्वाचें तें एक तांस. उतरां इतलेच सहजतायेन ती रेशां बराबर खेळटा. हो चित्राचो सांगात तिचे कवितेक पोसवण दितलो. तशें पळोवंक गेल्यार सगळ्या कलांचें एकमेकां कडेन रगताचें नातें आसता. अभिव्यक्तिचीं माध्यमां वेगळीं आसलीं तरी तांचें मूळ एक आसता.

माधव बोरकार